# शिमेंपलतडच्यान

(कविता संग्रह)

दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय




बिम्ब प्रकाशन

शिमेपलतडच्यान
(कविता संग्रह)
दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय

**Shimepaltaddchean**
Poetry Collection by
*Dattatraya Govind Prabhu Desai*

प्रकाशन क्र. 49



पयली आवृत्ती
2006

छापणावळ
इम्प्रेशनूस
बी-2, 'अक्षर आर्केड'
3360/4, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - 590 002

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र
सुबोध केरकार

प्रकाशक
कामिनी किणी
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी.3,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी - गोंय

मोल : 80/-

ISBN 81-902817-5

'पयलो चंवर' येवजणेंत गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हो कविता संग्रह प्रकाशीत केला.

म्हजो बापूय
सर्गेस्त गोविंद गोपाळ प्रभुदेसाय
म्हळ्यार भाऊच्या उगडासाक
आनी
गोंयचें अस्तित्व सांबाळपाक
जाणीं जाणीं योगदान दिलां
तांकां सगळ्यांक
आदरभावान ओपतां

# म्हजे शिमेभितरलें

'शिमेपलतडच्यान' हो श्री दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय हांचो पयलोच काव्यसंग्रह वाचतना आदर्श, निती मुल्यांचें जतन जावचें म्हूण धडपडपी कविचें दर्शन घडटा. आमचे गिरेस्त संस्कृतायेचो अभिमान बाळगुपी हो कवी आयज समाजांत चलतलें मनीसपणाचें अध:पतन पळोवन सामको घुस्मटता आनी 'हें अशेंच चलत रावतलें?' असो प्रश्न करून 'जागे जावपाक' प्रवृत्त करता.

सुमार ३७-३८ कविता ह्या संग्रहांत आसपावल्यात. देवाचे आरतीन सुरू जावपी हो संग्रह दैवाचेर भाश्य करून सोंपता. तांचेमदीं आमचो देश, आमचें गोंय, गांव (खोला, चोडणां), सैम, झाडां (रूमड, निलगीरी) सण-परबो, मोग अश्या विशयां वांगडाच अस्तुरेचें दूख, सुवार्थ, राजकारण, क्रांती अश्या साबार विशयांवयल्यो कविच्यो भावनां आनी संवेदनां दिश्टी पडटात.

पयल्याच संग्रहांत साहजीकपणान दिश्टी पडपी नवखेपणाच्यो कुरवो ह्या संग्रहांत आसल्यो तरी सहजपणान मांडलेल्या विशयांत जेन्ना कवी आपणाक सतावपी खोचक मुद्दो मांडटा, तेन्ना कविच्या वैचारीक खोलायेची वळख घडटा.

उतरांच्या जंजाळांत घुसपनासतना कवी सहजपणान आपलें मन उकतें करीत वता. तातुंतल्यान कविची निरागसता, आपणाक जें पटलां तें खरपणान मांडपाची निग्रही वृत्ती, देशप्रेमान भारावन गेल्लो देशभक्त आनी सद्य:परिस्थितींत सत्ता, पयसो आनी राजकारणान जें वायट आमच्या वाट्याक हाडलां ताचेर अस्वस्थ जावपी, अशे कविचे कितलेशेच पैलू दिसूंक लागतात. काव्यशास्त्राचेर चड भार आनी भर दिनासतना कवीन आपणाक जें स्फुरलां, जें भावलां, जें अस्वस्थ करून गेलां तें तश्यातशें 'आयलां तशें गायलां.'

कविच्या संवेदनशील मनाक जायत्यो विशमता अस्वस्थ करतात. सैमाची व्हडवीक गावपी हो कवी सैमाचो ऱ्हास जाल्लो पळोवन चुरचुरता आनी म्हणटा

खंय गेलें काय दाट रान
कोणें कापली दोंगराची मान (आमचो गांव)
दोंगर ताणी पोखरले
न्हंयोय मातयेन ताणीच भरल्यो (पावसा तूं पडत राव)

'शिमेपलतडच्यान' संग्रहांत थोड्योच मोगाच्यो कविता आसात. पूण त्यो फटकिऱ्या मोगाच्यो तशेंच विरह-वेदना गावपी.

जाच्या काळजाक हांव आशेलों
ताच्या मनांत सुको सडो (फटकिरो मोग)

मनीस कुळयेच्या उदरगतीच्या प्रवासांत मनीसपणाचें जातलें अध:पतन हो 'शिमेपलतडच्यान' संग्रहांतलो स्थायीभाव अशें म्हणू येता. भोवतेक कवितांतल्यान कवीन होच विशय सातत्यान मांडला : देखीक

वयर सरली घुडी अधर्माची
सत्याचे कपडे अधर्मान घाले (आमी कोण आसतले?)

उजू चलणुकेच्या लोकांक कळचे आर्दींच
चडशे जाण भक्त जाले काजुल्यांचे (सुवार्थ म्हजें नांव)

धर्माचीं आंगलीं घालून
अधर्मच चलयतात (धर्म)

अश्या जळजळीत उतरांनी कवी आपली तिडक उकती करता.

सुवार्थी राजकारणी आपली सत्ता आनी पयश्यांच्या बळार निलाजरेपणान जो खेव मातयतात ताचेर आपली प्रतिक्रिया तिरकसपणान उकतायतना कवी म्हणटा

तुमी ना जाल्यार दुसरे येतले
तुमचो जागो ते घेतले (नेता फकत हांव)

सात म्हज्या पिळग्यांचो
फुडार तितको हांव थारायतां (हांव एक राजकर्णी)
पावसान चिंतलें ना गांयडोळाचें
सरकाराक पडलें ना परजेचें (नशीब)

दोळ्यांर झापड पयश्यांची
मद आनी सत्तेची
रड आतां अडेची (पावसा तूं पडत राव)

ताचेफुडें वचून कवी अश्या सुवार्थी राजकारण्या फाटल्यान दोळे धांपून वचपी भौसाकूच दोश दिता.

दोन देश तीन मुखेली
लोक भोगता तांबडी होळी (शिमेपलतडच्यान)

दोश तांकां दिवचेपरस
आत्मपरिक्षण करीत राव (दोश कोणाचो)

ही परिस्थिती सुदारूंक जाय अशें कवीक कळवळ्यान दिसता आनी तो म्हणटा,

बंद करात अडेची झगडीं
भास, उदक आनी शिमेचीं (आरे वण्टी कसल्यो)

होच कळवळो उकतायतना नरकासुराचो संदर्भ दिवन कवी म्हणटा

कोण करीत गोबोर समाजांतल्यान
भस्मासूर, अत्याचार, अनाचार
भ्रष्टाचार जो जालो शिष्टाचार (दिवाळी)

पूण कवी निराशावादी ना, तो बदल घडपाचीं सपनां पळयता, क्रांतीकारी फुडें सरून आयची परिस्थिती बदलतले हाचेर ताचो भरवसो आसा. देखून तो आत्मविश्वासान म्हणटा

हें सगळें घडटलें
जेन्ना आमी जातले क्रांतीकारी (हांव एक क्रांतीकारी)

दत्तात्रयबाबांचो हो 'पयलो चंवर'. तांकां साहित्यांत रमपाची मनापासून इत्सा आसा. फुडें बरोवपाक आपणांभितर स्फूर्त जागची म्हूण तो वाचप्यांकडल्यान प्रेरणां आनी फाटबळ सोदता. 'शिमेपलतडच्यान' निमतान आमी तांकां परबीं दिवया. आनी ह्या चंवराचोय मोठो भार जावन खोलायेन आनी खरायेन भरिल्ल्यो तांच्यो कविता फुडल्या संग्रहांतल्यान बेगीन आमचे भेटेक येवं अशें मागूया.

- वसंत भगवंत सावंत
महालक्ष्मी,
टोनीनगर - सावर्डे - गोंय

# मनोगत

कवीक कविता करपाक कांय दुखेस्त वा खुशालकायेचे खीण येवचे लागतात. तशेंच केन्ना केन्नाय पोन्न्या यादिनीय घुस्पतकर कवी कविता रचता; अशें म्हणचे परस कवीत कवीक अशा वेळार सुचता. १९८९ वर्सा एका पावशी सांजवेळा म्हाका घराच्या बलकांवाचेर बशिल्लेकडेन अशीच एक कविता सुचली. ती म्हजे जिणेंतली पयली कविता. ती कविता जुलय / ऑगश्ट १९८९ तल्या 'ऋतू' ह्या त्रैमासिकांत छापून आयली. म्हजें कसलेंय रचिल्लें बरप छापून येवपाचो म्हजे जिणेंतलो तो पयलोच वेळ आसलो. तो दीस हांव ते खातीर केन्नाच विसरूंक शकचोना. ते उपरांत १०.९.१९८९ दिसा म्हजी आनीक एक कविता दैनिक सुनापरान्तात छापून आयली. दोन कविता छापून आयले उपरांत म्हजो एक कविता झेलो आसचो अशें म्हाका दिसपाक लागलें. आनी ते नदरेन हांव तयारेक लागलों. ती म्हजी इत्सा आयज पुराय जाता हो म्हजे आयुश्यांतलो सगळ्यांत उमेदिचो खीण अशें म्हाका दिसता.

'शिमेपलतडच्यान' कवितेंत कारगिल लडायेवेळार आमच्या शिमेलागसारल्या भुंयपुतांक जे कश्ट आनी दगदग भोगचे पडले ताची याद करून दिवपाचो हांवें यत्न केला. तशेंच तेच कवितेचें नांव म्हाका म्हजे कविता झेल्याक दिवंचें दिसलें. कांय मोगाच्यो कविता बरयतनांच, समजांतल्या बदलाचे गोंयकार भावांचेर जावपी फुडारांतले वायट परिणाम हांवें 'आमी गोंयकार' हे कवितेंतल्यान सांगपाचो

यत्न केला. सामाजिक कामाची जाण नासतनाय कांय जाण राजकीय नेते जातात आनी मागीर खऱ्या कार्यकर्त्याची कशी स्थिती करतात हेंय कांय कवितेंतल्यान सांगपाचो म्हजो यत्न आसा.

अस्तुरेच्या विंगड विंगड रूपांविशीं आयजमेरेन कोणाकच सुचनाशिल्लें कुवाडें 'अस्तुरी' हे कवितेंतल्यान समाजामुकार मांडपाचो म्हजो यत्न कितपत जैतिवंत जाला हें हांव नकळो. विज्ञानाच्या वरवीं मनशान जरी खुबच उदरगत केल्ली आसली तरीकय सैमाच्या सामकारा मनीस आजूनय खुबूच मोटवो दिसता. हें 'सांग तुजें गुपीत देवा' हे कवितेंतल्यान सांगलां. १९८९ ते २००५ मेरेनच्या तेंपार जें जें म्हाका बरयन दिसलें, तें हांवें बरे पध्दतीन बरोवपाचो यत्न केला, तो तुमचे सामकार आसा. तुमची लागणूक म्हज्यो चुको दाखयतनाच म्हज्यांत आनीक फुडें बरोवपाची स्फूर्त जागोवचे खातीर फाटबळ दिवपाची. तुमचे सगळयांचे आशिर्वाद आनी फाटबळाचेरच हांव बरो लेखक जावंक आशेतां.

बरें मागून,

- दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय

## श्री गणेशाची आरत

जय देवा जय देवा जय श्री गणराया
तुजें दर्शन घेतल्यार ल्हव जाता वजें
धादोशी सुखी दवरपी तूं देवा
आमकां बरी बुध्द दी गा गणेशा
जें मागता तें दिवन तृप्त तूं करता
विद्या शक्त, धन, दान तूं करता
जय देवा ............... ॥धृ॥

कपलार सोबता रे गंधाचो तिबो
मोतयां माणकांनी सजला मुकूट तकलेर
गळ्यांत सोबता कंठो रत्नाचो उबो
मुदयेर उजवाड घालता खडो हिऱ्याचो
जय देवा ................ ॥१॥

देवांचो राजा तूं रे गणराया
सहस्त्र तोंडां, तुजी गायता गा गाथा
शक्त दी गा आमकां तुजी करूंक सेवा
विसरून वचुंया आमी आमच्यांतलो हेवा
जय देवा ............... ॥२॥

# हें अशेंच चलत रावतलें

मनू सावन मनीस कुळी फुलली फळ्ळी
गोरीला सावन आर्मस्ट्रॉंग अवतरलो
पूण मदले मर्दी कितें जालें
कोण जाणां कोणाक कितें येवजलें?

रामकृष्ण अवतारी जाले
जेजू-पैगंबर देवदूत थारले
तरी पूण खंय तरी पाल चुकचुकली
आनी उदक थोडें थोडें निशेलेंच

पालीचेर शेण मारतलो कोण?
निशेतल्या उदकाक आडायतलो कोण?
आसा कोण दितलो जाप?
ना केन्नाच ना, सगळ्यांक आसा एकूच शाप

जात-पात, भाशा, धर्म सगळे वावुरतात
राजकर्णी म्हणटात ते ना आमी आसात
जायात जागे जायात जागे, तोंड धापून कित्याक ओगी
तरी पूण खंय तरी पाल चुकचुकलीच,
उदक थोडें थोडें निशेलेंच

## सैमाची कळा

मळबांत आयलीं काळीं कुपां
जंय आसलीं धवींच रूपां
कुपां झडयतलीं पावस आतां
भुरग्यांनी बांदलीं बोटींक सुतां

मेरेर बसून रावलीं सगळीं
इल्लीं सुपुल्लीं भुरगीं धाकटुलीं
लागला पडूंक पावस शितळ
धरतरी जाली न्हावन नितळ

रडले बेबे नाचले मोर
सैमाचो आख्खो बदललो कोर
सगळ्यांक धादोशी करची रीत
सैमाची ही सासणाची नीत.

## आमचो गांव

कोण जाणां आमचो गांव
करमल घाट म्हणटा शिमेर हांव
घाटांतल्यान गाडी सकयल देंवता
तकलेंत विचार सारको घुंवता
खंय गेलें काय दाट रान
कोणें कापली दोंगराची मान

जांव! कदंब राजा जालो
शिलाहार राजांक पेदो केलो
तीच धार आमच्या खोलगडाची
सीम आमचे खोलायेंतल्या खोलाची

मात सदांच उरला उपेक्षीत
गांव जावन सुशिक्षीत
कारभार सदांच उरला हातांत
जे वतात दुसऱ्यांच्या शेतांत

सदांच लाबल्या सैमाची पसाय
तरीकय ना कोणाक सवस्तकाय
जांकां कळटा तांकां मेळना
तेच खातीर आमची दैना

थोडेच आसात आतां दक्ष
ते तरी घालत कांय हातूंत लक्ष
कोण जाणां आमचो गांव
खोला ताजें सोबीत नांव

## रूमड

पयस करून बसला हात
थोड्यांक करता पक्षपात

जो येता धांवन सकाळीं
ताका दिता फुलां सगळीं

होम हवन करीत जाल्यार
बडयो लागतात भटाक फाळ्यांर

रूमड घालता थंड वारो
आजो म्हणटा तोच बरो

राखणो येवन मारता खांदो
पोंदाक रोवपाक कणगां बांदो

दान-धर्म आनी आदार
करून जायना रूमड बेजार

## सांज

एक सांज आनंदीत आसली
सूर्याचीं किरणां झाडां-पेडार पडिल्लीं

चिटकुलीं मिटकुलीं सुकणीं
आपआपल्या भुरग्यांक घेवन जेवण
भुर्रकरून येवन झाडार बशिल्लीं
राखणे वताले घेवन गोरवांक
आपापल्या गरीब पूण सुखी घरांनी

आनंदीत अशा वातावरणांत
हांव आनी तें बशिल्लें
अस्तमेचो सूर्य पडतेक वतालो
तेन्नाच जालो म्हाका भास
कितें जाता तेंच कळ्ळें ना

एक काळें व्हडलें कूप
मळबांत चडलें झूप झूप
इतल्यांत जालो काळोक गुप्प
सगळींच सवणीं झाडावयल्यान
भूर्रकरून गेलीं जशीं आयिल्लीं

हांव समजलों ती सांज
म्हाका फटोवन वेगळीच जाली

## चोडणा गांव

अणभव म्हजो धा म्हयन्यांचो
सुंदर सोबीत एका गांवाचो

चोंय वाटांनी उदका शिंपण
जाचें करूंक सदांच रक्षण

सुखी मनशा सांगातान आसात
सुकणीं आतां सरकारा आदारान

मानशीचो जावन खरो बंदो
करतात सगळे आपलो धंदो

कोनशां कोनशांनी पावलां आतां
उदक आनी वीज घरांत

विसरून गेल्यात पोन्नें नांव
जें जालां फिदाल्ग शोरांव

# फटकिरो मोग

याद येता त्या दिसाची
हांव आनी तें दोगांय बशिल्लीं
सांज आसली चैत्र पुनवेची
सूर्य दर्याक तेंकतासो दिसतालो

जोरगतीच्यो कुळळ्यो जांबळ्यांत घेवन
लोक वताले घरा धांवन
गोरवां फाटीर उडयत बडी
वाटेन चलताले राखणे गडी

इतल्यात आयलो आमचो सांगाती
व्हडांत व्हड घेवन रूप
दोगांय आमी धादोस जालीं
चांदमामान आमकां धन्य केलीं

खबरांत आमी जालीं दंग
ताज्याय रूपाक चडलो रंग
मनांत म्हज्या आसलो दुगदूग
मेळत काय सदां अशेंच सूख

उलयतां उलयतां ताणें सांगलें
लग्न ताजें पयलींच थारिल्लें
काळजाक शोक बसलो म्हज्या
कोण जाणां खोलाय काळजाची ताज्या

याद येता त्या दिसाची
हांव आनी तें दोगांय बशिल्लीं
सांज आसली चैत्र पुनवेची
सूर्य दर्यांत बुडटासो दिसतालो

## ही वाट अडचणीची

जेन्ना उबारलो धंदो हांवें
तेन्ना जमले सगळे भोये
कोण पोशेता, कोण तोखेता
हांव म्हर्जी बोल्सां सांसपितां

कोणा-कोणाच्यो रूची कशो?
कोण पिता तांबडें लेबल
कोणाक आवडटा फकत बियर
कोणाक आवडटा चायनीज खावंक

अशेच दीस सरताले
पयशे म्हजे रकताले
कोणतरी नव्यो रूची सांगतालो
फाल्यांचो बेत आजच थारतालो

मौजेचे दीस गेले उडून
जे सांगताले बऱ्यो रूची
ते आतां धरताले म्हजी गची
जाका ताका येवजतालो फकत दुस्वास

धंदो आसलो बशीचो
जो ना जाला आतां सदचो.

## संवसार

जर नासलें मनांत तुज्या
भागी जावंक नशिबाचो म्हज्या
ओगीच कित्याक उतर घालें?
नशीब म्हजें करूंक म्हळें?

हांव कोणाक याद करूं
आता पावलां मन मरूंक
दितां हांव कश्ट मनांक
हासो जाता सगळ्या जनांक

सपनां फाटलीं येवजिल्यार
मन धांवता आदल्या तेंपार
कोणा मुखार उकतें करूं
खंती म्हजें मन आतां

लागींसाराक दिसना कोणय
नेण्टो पूत, जाण्टी आवय
कितलेय जरी यत्न केले
यश आतां पयस जालें

जाच्या काळजाक हांव आशेलों
ताच्या मनांत सुको सडो
वायट दिसता इतलेच खातीर
गुपीत दवरलें मन तुवें

जर नासलें ध्येय संवसार तुजें
फाटीं तुवें तेन्नाच सरपाचें
हांव आयज कोणाक सांगूं
व्यथा आनी कथा म्हजी?

## मन

थाकाय केन्नाच मेळची ना
खोलाय जाची कळची ना
दोन कुडींची वस्त निर्मिल्ली
आवाठय ताणें तेन्नाच थारायिल्लो

परदुख्ख पळोवन विरगळटा
स्वदुख्खान जाता थतर-वितर
सुखाचे आशेन पळत रावता
निराशेच्या दुख्खान खपून वता

वर्सां संकिनी अणभवानय
जमलें ना पारखूंक कोणाक
खिणाक हांसरें, खिणाक रडवें
देवान निर्मिल्लें मन मनशाचें

पयले कुडींत उजवाड घणघणीत
भितरले कुडींत किट्ट काळोख
भायले उजवाडाक जे पातयेले
काळखाचे कुडींत तेच निर्शेले

# अस्तुरी

गे अस्तुरी वळख तुज्या रूपाची
साधू संतासारखें केन्ना सोशीक रूप
केन्ना जाता कैकयी तूंच
आसता जोंवर भाव आंकवारी
तोवर चलता सगळें सुतावरी

जेन्ना येता नवी अस्तुरी
सून जावन घराब्याची
तेन्ना सगळें चालंतच चलता
वाडत वतात सुनो घराब्याच्यो
वास येवंक लागता नव्या नव्या रूपांचो

कोण करता दुस्वास जाल्यार
कोणाक जमना घेवंक आपलो स्वास
कोण घालतलो घोवाक सुखाचो घास
धुसफूस आनी व्देश, बदलत रावता तांचो भेस
निमण्या मार्गाक सुरवात जाता

फाटाफूट हांगाच्यानच चलता
तरीकूय म्हणप अस्तुरी हीच चंडिका
तीच माता भयण आनी तारका
संवसाराच्या अंतामेरेन कोणाकच ना कळची
गे अस्तुरे वळख तुज्या हांसऱ्या रूपाची

## हांव एक क्रांतीकारी

क्रांती करप हेंच म्हजें काम
सत उलोवपी आनी त्याच मार्गान
आपआपलो मार्ग आपणावपी
हे सगळे म्हजे वांगडी
हांव एक क्रांतीकारी, हांव एक क्रांतीकारी ॥१॥

एक वेळ असो आसलो
उजू चलणुकेचो गूट जातालो
आड चलपी एकोडो पडटालो
आयज फाल्स लोकांची चांदी जाल्या
हांव एक क्रांतीकारी, हांव एक क्रांतीकारी ॥२॥

शिक्षीत लोक समाज घडयतात
समज आयज फाल्स थारता
जो तो एकच उलयता
बुद्द घाल घाणाक, पयशे उडय बोल्सांत
हांव एक क्रांतीकारी, हांव एक क्रांतीकारी ॥३॥

पयशां शिवाय कांयच जावचेंना
बुद्दीची कसोटी केन्नाच लागचिना
उजू चलणुकेक वाट मेळचिना
हें सगळें घडटलें, जेन्ना आमी जातले क्रांतिकारी
हांव एक क्रांतीकारी, हांव एक क्रांतीकारी ॥४॥

एकविसावो शेंकडो आमी गाजयतले
उणाक भ्रश्टाचाऱ्याक भूंय लोळयतले
स्वत्व, स्वाभिमान, उजू चलणूक
ह्या अस्त्रांसयत राजपाट आमी घडयतले
हांव एक क्रांतीकारी, हांव एक क्रांतीकारी ॥५॥

## पावसा तूं पडत राव

पावसा तूं असोच पडत राव
आमचीं शेतां, भाटां आनी गांव
न्हाणोवन काडीत झडत राव
पावसा तूं असोच पडत राव

पाड्डें बुडलें साखळी व्हांवली
दोश तुवें कित्याक घेतलो?
गा पावसा थोड्यांकच हें होलमल्लें
चूक तुजी खंयच नासली

दोंगर ताणी पोखरले
न्हंयोय मातयेन ताणींच भरल्यो
जोवेर आसलो गिमाळो
सरकार सोडाच, लोकांकय नासलो कळवळो

दोळ्यांर झापड पयशांची
मद आनी सत्तेची
रड आतां अडेची
बाबड्या मतदारांक नाडची

बोडके दोंगोर शिरंगारात
रेब्याच्यो न्हंयो नितळ करात
पिडेस्तां खातीर तजवीज आखात
न्हिदिल्ल्या सरकाराक जागे करात

# खंत

खंत हांव कोणाक सांगू
कोण लागीं दिसच ना
म्हाका समजून घेवचें जाल्यार
कोणच म्हजें आयकच ना

सदांकाळ तारवार दीस काडले
बायल भुरग्यांनी वाऱ्यार सोडलें
आदार कोणाचो मेळ्ळोच ना
कोणूय म्हजें आयकच ना

आतां जालां जाण्टेंपण
पूण पयशांक ना चणचण
परकी वस्तुंचो पडला घणघण
पूण कोणच म्हजें आयकच ना

चाकरी करून आपल्याच देशाची
नामना आमी जोडूंक जाय
व्यसनां, शिदळकी पयसावंक जाय
पूण कोणच म्हजें आयकच ना

# आमी कोण आसतले

अहिंसेचे आमी पुजारी
सगळ्या पंथाचे खरे कैवारी
सुरवेचीं वर्सां अशींच गेलीं
गरीब लोक गरीबच उरले

समाजवादान काडली तकली वयर
अधर्मान घातलो सामको खेव
पूण नांव ताका दिलें सोबीत
निधर्मी आमचो देश

आरे धर्म म्हळ्यार कितें
धर्माची व्याख्या कळ्ळीच ना
वयर सरली घुडी अधर्माची
सत्याचे कपडे अधर्मान घाले

समाज, जाती आनी धर्माचेर
राजकारण ते करीत रावले
आमीय फाटल्यान फरफटत गेले
एक मत एक नोट विचार कोणेंच केलोच ना

आसा व्हय कोणाक तांक
नोट दाखयतल्याचेर घालूंक खोंट
तरच जातले आमी पुजारी शांतीचे
नातर अधर्मच नाचत रावतलो

## मीर्ग

गिमाळ्याचे दीस आयले सोपत
मिर्गाचीं कुपां येतात थंड दपत
आमच्या देशांत धर्म साबार
कोणाचे मार्ग केन्ना काबार

केन्ना सुरू कोणच नकळो
कोण कांय आमचे खरे गुरू
जुनाचे सुरवेक येता गडगड
समेस्त घरकारांक भरता धडधड

कोण मारता लाकुडबडी
कोणाची येता भाताची गाडी
घरदार जुस्ताजुस्त करूंक भोंवता
दर एक मनीस आनी सुकणीं

अचकीत येता पावसाचो शिंवोर
गायन गाता बेब्यांची भोंवर
जांव किरिस्तांव, जांव कोंकणो
बिरूद लायता आपल्या पंथाचें

घसघस घालीत
पावस येता
मीर्ग लागता
सगळ्यांच्या वर्सावळीचें

## दोश कोणाचो

दोश कोणाचो कोण सांगतलो
जो तो म्हणटा हांव खरेलो
सदांच चलता फालतू बडबड
दोश दिवंक आपल्याच सरकाराक

जेन्ना येवजिता हांवेंच धाडिल्लो
आमदार, खासदार म्हजे मर्जीतलो
दोश कित्याक ताका दिता
तेन्ना तुका नदर नासता?

फकत पयसो आनी फाटबळ
तूं पळयता ताजे फाटल्यान
आयज कित्याक खरें उलयता?
तेन्ना नासली तुका नदर?

बरें येवजणें आनी उजू मार्ग
जो मनीस तुवें धाडला
ताणें तुजो तेन्नाच गाडला
आयज फकत तोच राजा

तूं फकत पळयत राव
दोश ताका दिवचे पयलीं
आत्मनिरिक्षण करीत राव
हो दोश कोणाचो?

# खरे नागरीक

वर्सां पंदरा अट राबित्याची
तरच जातले नागरीक थंयचे
कोणे केला कायदो उरफाटो
जांकां ना गिन्यान कायद्याचें

कितलेशेच फिरंगी आनी इंग्लेज
जातले आसले नागरीक आमचे
ते कित्याक पयसावले
आमचे जावंक विसरले

सैमाचो नियाळ आनी कायदो
सदचे व्यवहारांत सदांच पावचो
तेच नागरीक चिरंजिवी
जे भाशेन आनी संस्कृतायेन

जल्माक येतले
आपले भुंयेंत
तांकांच म्हणात
खरे नागरीक

## आरे वणटी कसल्यो उबारतात

पुर्वासंकिनी भूंय आमची भारतमाय
कोणेंच न्हयकारूंक जाय?
तरीकय राज्यां-राज्यां मर्दी उप्रासता
उदक आनी जमनीचो वाद

न्हंयों कितें तुमी निर्मिल्यो?
शिमेर बांद घालतात ते
आरे आयज उरल्या भारतमाय
फकत काश्मिर सावन कन्याकुमारी

याद करात आदल्या दिसांची
इराण मेरेन आमचे शिमेची
तिबेट तेन्ना आमचेंच आसलें
ब्रह्मदेश आमचोच एक वांटो

श्रीलंका जुंवो दक्षिण शीम
मानतालो समेस्त संवसार भारताक
बंद करात अडेचीं झगडीं
भास, उदक आनी शिमेचीं

घालात सगळे हातांत हात
घटाय दिवंक भारत मांयक

## वावटळ

आंग शिरशिरलें हात थरथरले
पाय कडकडले तोंडच बंद जालें
दीस आसलो पांच ओंतुब्राचो
वर्स चलतालें दोन हजार दोन

वेळ आसली सांजेची
कोणाकच कितेंय कळचे पयलीं
एकच सगळ्याक आकांत जालो
झाडां-पेडां मोडून पडलीं

विजेच्या खांब्यांनी भूंय वेंगायली
घराच्या नळ्यांच्यो कंवच्यो शिवंरल्यो
आशिल्याचें नानपयत जालें
सांगेंचो सगळो वाठार थरथरलो

जेन्ना जेन्ना मनीस कुळयेन
सोडलो आपलो मनीसधर्म
सैमानच ताका आळाबंदा हाडलो
विसरूं नाकात देवधर्माक

पाळो दिशात उजू चलणुकेक
तरच लागतलो आमचो निभाव
ओगीच हर्डे काडून फुडें
नागोवं नाकात संवसाराक

## भावबीज

भावभयणीचें पवित्र नातें
भयणीन भावाक ओवाळचें
मायेमोगान हाडिल्ली भेट
घेवन भयणीन मुरगटचें

गहन अर्थ हातूंतच लिपला
एकमेकांत मोग हाडचो
अडीअडचणीक धावन येवचो
भयणीची खुशालकाय आंवडीत रावचो

काळ आयज बदलला
सुटी घेवंक भाव अनमनता
फुक्याची सुटी आनी भेट
घेवन धांवचें कित्याक भयणीगेर

पयशांक लागून नातें विसरलो
भाव सख्खे भयणीचें
फकत उरल्या आतां फोर्मालदाद
फोनावेल्यान करची खबरबात

## धर्म

धर्माचीं आंगलीं घालून
अधर्मच चलयतात
कोण म्हणटा निधर्मी
जाल्यार कोणाक येवजता
आडधर्मी काळ्यो करणी

देश आमचो पुरातन
कोणच सांभाळना देववतन
मनां काळजां आनी शिरंतरां
सुकीं सडसडीत जाल्यांत घरां

लोकशाहीच्या म्हालवजार
मुक्त करात समाज बाजार
दोन मनांच्या दोन विचारांच्या
मुर्तीर घुमटी बांदतल्याच्या

काळजाक हात घालचे आदीं
मनां नितळ करात तांचीं
हातांत आर्म राखणे खातीर
कितलो तेंप दवरतले?

सुशेग ताणीं घेवंचो जाल्यार
घुमटी नाका मूर्ती माथ्यार
धर्माची व्याख्या कळचे आदी
अधर्म मात मातत रावलो

कदीम काळासावन आयजमेरेन
धर्माची निर्मणी केली ना
जो आसा मुदलाक स्वभाव
ताकाच म्हणटात खरो धर्म

उजू-चलणूक अनाथाक मदत
करीत रावता तोच धर्म
विंगड - विंगड संप्रदाय
जरी सांगतात वेगळो धर्म
कोणेंच हाका भुलचें न्हय
शक्यच ना स्थापूंक धर्म
खंयच्याय मनशाक वा देवदूताक

## नशीब

कोणें चिंतलां कोणाचें बरें
जें जाता तेंच खरें
रामदेवान चिंतलें पूण
दशरथाक खबर नासलें

पावसान चिंतलें ना
गायडोंळाचें...
सरकाराक पडलें ना
परजेचें...

संहार जाल्यार जग बुडटा
फटींग राजाकडल्यान लोक फसता
सगळ्याक फकत एकच सबब
खरें तेंच आपलें नशीब

## सुवार्थ म्हजें नांव

खंयच कितेंच दिसनासलें
कशें करचें तें थारावचें पडटालें
सांगाती इश्ट मेळनासले
कोणूच मानूंक तयार नासले

वेळ वगडावन फायदो नासलो
मेळत ताका घेवन वचप आसलें
कश्ट आनी तकालसच आपली आसली
शेवटाक गोड जेवण घरचें आसलें

कांय वर्सां अशींच गेलीं
चड थोडी शक्त जमली
कितेंय तरी घडत आसा
सुलूस स्वार्थाक आफुडटाली

एक दीस आमचोय आयलो
सगळे आमी धादोस जाले
नव्यो तरकिबो आयकूंक येताल्यो
सगळें कितें उमळशीक वाडयतालें

अचकीत खंय तरी काळोख दाटलो
उमाशेक फकत काजुलेच चकचकले
उजू चलणुकेच्या लोकांक कळचे आदींच
चडशे जाण भक्त जाले काजुल्यांचे

## दिवाळी

घरांघरांचेर सजला आकाश दिवो
दारांदारांनी पितारल्या रांगोळी
घरासामकारा पेटल्यात पण्ट्यांच्यो ओळी
भुरगीं लायतात नारंगां सुरसुरीं

जमीनचक्रां आनी मारांद
आपलोय शेक गाजयतात
अस्तुरेची घरच्यांक आरत दाखोवची
तयारी जातली थोड्याच वेळान

कांय जाण लागले तयारेक
देवळांत आनी मागीर वचूंक शेजाऱ्यांगेर
कोण कोण किर्ते करता
तांचें तांचें तेच जाणात

एक मात नितळ खरें
सगळेकडेन पातळ्ळा चकचक
झगझग, गडबड आनी धावपळ
रातीच्या काळखांत केलो गोबोर नरकासुराचो

पूण.... कोण करीत
गोबोर समाजांतल्यान
भस्मासूर, अत्याचार, अनाचार
भ्रश्टाचार जो जाला.... सदाचार

## नेता फकत हांवच

तुमची गरज आमकां ना
आयज आमी व्हड जाले
सगळें कितें आमच्या हातांत
तोंड उगडपाची फकत फुरसत

सत् उलोवशात पडटली बडी
गडबड करशात आसा जाळी
कोण म्हणटा उसपीय खळी
पूण... ताका मेळना कोणाचीच ताळी

फकत येयात गर्दी करात
दिल्ली 'च्या' पिवन चलात
रूच विचारशात तिवय मेळचिना
नांव मात भायर म्हजेंच गायात

तुमी ना जाल्यार दुसरे येतले
तुमचो जागो ते घेतले
तुमी मात् तोंडघशी पडटले
म्हजें नांव थंयय जातलें

## हांव एक राजकर्णी

हांव एक राजकर्णी
हुकूम सोडप काम म्हजें
देशाचो वा राज्याचो
फुडार कोणय थाराव

सात म्हज्या पिळग्यांचो
फुडार तितलो हांव थारायतां
पोशटरां - बेनरां लावप
कार्डां वाटप हें काम तांचें

जे रात-दीस घोळत रावतात
जांकां लोक कार्यकर्ते म्हणटात
कोणूय कार्यकर्तो नेता जाला?
जाप येता ना... केन्नाच ना

ना जाल्यार म्हाका पळयात
हांव सरळ आयलों, पयले पंगर्तीत बसलों
चार जाणांच्यो नाडी पळयल्यो
तांकां धादोस केले म्हजेंय काम जालें

जो तो म्हजे फाटल्यान... हांव नेता
आयज हांव आमदार... बाकी शिलेदार
आपवावुरपी संस्थाक पळयात
तातुंतलो जो तो पिसो कसो वावुरता

ना जाल्यार म्हाका पळयात
बोवाळप, कामां करप मजत करप
हातलें हांव कांयच करिना
तरीकय सगळे म्हाका हप्तो पावयतात

# शिमेपलतडच्यान

शिमेपलतडच्यान जाता सदांच गुळ्यांफार
शिमेभितरल्यांक ना जालां घरदार
हरएका दिसागणीक कोणाक तरी कंठस्नान
नेहरु-जिनान तांकां दिलां पाकिस्तान

आरे विचार तेन्ना करचो आसलो
देशभूंय केन्नाच ना तोडपाचो
आयज आमचेंच भाव आनी भयणी
रडटात सुक्या दुकांनी

खिलजी-बाबर आयले भारतांत
तेरा ते सोळाव्या शतमानांत
ताजे परिणाम आमी भोगतात
आयज आनी फाल्यांय भोगतले

हें सगळें घडत गेलें
सुवार्थ ताजें नांव आसलें
दोन देश दोन मुखेली
लोक भोगता तांबडी होळी

# सांग तुजें गुपीत देवा

सैमाचेर शेक तुजो
शेकाखाला उदक उजो
वाऱ्याकय तूच नाचयता
सुकणीं तुजें गीत गायतात
सांग तुजें गुपीत देवा
मनशाक कित्याक लिपयता ॥१॥

सूर्य सदांच वेळार येता
भरती सुकती दर्यार चलता
चंद्राक मेळटा सुटी
पंदरा दीस काळखाची
सांग तुजें गुपीत देवा
मनशाक कित्याक लिपयता ॥२॥

नाल्लांत उदक आयलें कशें
पणसांत गरे गोड जशे
वायटा वेळार बोऊल रडटा
सटये दिसा घुघूम गायता
सांग तुजें गुपीत देवा
मनशाक कित्याक लिपयता ॥३॥

हांव हांव करीत रावतां
स्वासाचेरय शेक चलना
हांव कोण तेंच खबर ना
तरीकय म्हणटां हांव आनी म्हजें
सांग तुजें गुपीत देवा
मनशाक कित्याक लिपयता ॥४॥

## निलगिरी रूख

उंचच उंच वाडला कसो
रूख धवो निलगिरीचो
सोदून सोदल्यार मेळपाक ना
एकाय जाग्यार गूट ना

जंय पावना नदर वयर
थंयच सोपता तेंगशी वयर
सुंदर सोबीत घालता धालो
धालामांडा शिवाय पानां

मर्दींच येता कावळो मामा
सोडटा तीर्थ पानां पोंदा
वाऱ्यार धोलत घालता वारो
सावळेक वणकल्लो म्हणटा तोच बरो

केन्ना लागली दिश्ट कोणाची
हांवच नकळो इस्तोर रूखाची
जशें पडटा खत भुरग्याक
आवयन केल्यार काम गिराणाक

आंगभर घेवन उबो
धव्या फुल्ल खतांचो झगो

## वाट

चलत रावतना वाट सोदतना
मेळून मेळना चाट मारतना
साबार दिकांनी वाट कणकणीं
वाट आपली सोदी हिरकणीं

सैमान घालो काळोख गुप्प
वाटसरू जाले सामके चुप्प
दया काकुळट सगळे विसरले
भोंवता भोंवता फाले उजळ्ळें

काणी तशी सामकी आदली
न्हय दगदग जाल्या आयज उणी
संवसाराच्या कोनशा कोनशांनी
जो तो सोदता वाट सुखदिणी

वळणां वळणांनी दोंगर दऱ्यांनी
शेतां-भाटांनी, मळां-माथ्यांनी
वाटसरू वाट माड्डीत रावता
शेवटाक निरशेवन बावून वता

## अशें कित्याक जायनां

अशें कित्याक जायनां
गरगर करता सदांच घुंवता
आपले फेरे केन्नाच मेजिना
घुंवन घुंवन गरम जाता
तरीकय खाला पडनां
पंख्याचें गुपीत कोण जाणां

दुसऱ्या खातीर सदांच झरता
जळून जळून काबार जाता
उजवाड दिवंचो हेंच जाणां
मेणवातीचें हीत मेणवातच जाणां

सकाळ, सांज आनी दनपरां
दान घेवचें सूर्य देवाचें
मोगी लुट्टा हांसो रातचो
चांदमामान दिल्लो चैत्र पुनवेचो

सैमाची गती सैमच जाणां
वारो, वत आनी शियां कुडकूड
जमीन सोसता सगळे दगदग
जशी आवय आमची तुमची
झरून झरता आज आनी सदची

# जिणें सूर

व्हांवता वारो गरमागरम
जगप जालां सामकें नरम
जून सोपलो जुलय लागलो
कोण म्हणटा माय तापलो

जीव वाटावप सामकें कठीण
उदक मेळप म्हा-कठीण
सरकार म्हणटा काटकसर
राजकारणांत जाल्या सुकी निसर

गाजता दर्या हांसता हांसो
वारो विचारता कोण पिसो
दोंगर म्हणटा मान मोडल्या
ख्यास्त आतां तुमकांच नडल्या

सादूर कोणय आसत तर
आतां तरी बदल घडत काय
जुलय म्हयनो सोपचे आदीं
चटके वताचे समजत काय?

## प्रारब्ध

तेन्ना रडटालें मन म्हजें
जेन्ना खबर नासलें ध्येय तुजें
सुलूस लागली परकीपणाची
याद आयली ल्हानपणाची

फुगार जावन बसत जाल्यार
आई काडटाली चिमटो पोल्यार
हात रोखडोच मायेचो
फाट तिजो सासपितालो

दारांत पावतना शाळेंतल्यान
वास येतालो रांदचे कुडींतल्यान
दुदाची वा च्या फुटी
हातांत घेवन दारांत उबी

काळ आयज बदलला
कोणाचीच गरज कोणाक ना
रूची-तलबी भागोवपाक
उक्तो आसा गांवचो बाजार

## आमी गोंयकार

उठ गोंयकारा आतां तरी जागो जा
फाल्यांचो काळ भयानक आसा गा
केन्ना तुका कळटलें रे
नीज तुजें शेणलां तें

दुस्मानान जेन्ना घाल्ली घुरी
तेन्नाय आमी सत्व जगयलें
आरे गोमंत दोंगर देंवन आयले ते
पोळेंचें नाकें ताणीच उगडलें

आमी मात्त तांकां पळयत उरले
उकत्या दोळ्यांनी जोडिल्ल्या हातांनी
काम ना आयज आमच्या हातांक
सरकार म्हणटा चला जोताक

शेतांत वतलो म्हळ्यार जमीन पावल्या घाटार
जी ताणीं घेतिल्ली खुबच आदल्या तेंपार
एक दीस असो येतलो
जो तो परकीच आसतलो

सोदून लेगीत सांपडचो ना
नीज गोंयकार कोंकणीचो
तेच खातीर जायात सादूर
पयस करात अडेची कुरकूर

आमची भास, आमची माती, आमचो मनीस
आयज आमकांच दिसता परकी कसो
भास आमची, मनां सपनां आनी काळजां
विसरूं केन्नाच दिवं नाकात

# अभागी

दैवा मुखार केन्नाच चलनांत
कोणाचेच कितले यत्न वा प्रयत्न
तेंच जाता जें जावपाचें आसलें
मन खंती कित्याक जावपाचें
जें केन्ना घडपाचेंच नासलें

चिंतुनय सफल जावचें ना
निर्शेवनय जिवन घडचें ना
खंयच कांय मेळचें ना
कित्याक? हांगा कोणच कोणाचो ना

राग रूसवो कित्याक उपकारचो ना
उमेदीच्या दिसांनी सगळेंच चान्नें
कोण आपले कोण परकी
हिशोबाची तेन्ना गरज ना

वायट कितें बरें कितें
विचार कसलोच मनांत रिगना
सगळो घात हांगाच जाता
दीस रात याद जाता

केलें कितें जालें कितें
मन मरता दुकां आटतात
सोयर-सुतक कोणाक ना
कित्याक...? संवसारांत कोणूच कोणाचो ना.

## निराशा

साळीक कशें जल्मलें
हांसत खेळत व्हड जालें
बाबान करची थुळणी
आवयन दिवची देक बरी

केन्ना धडे संगिताचे
केन्ना संगत नाटकांची
दीस जशे सरत आसले
वर्सांय तशींच उडून गेलीं

दीस एक असोय आयलो
हुंबर दुसऱ्याचो हुपपाचो
मनांत मात्तय नासतना
जावन बसलें तांच्या घरचें

उमेद जाणी दाखयिल्ली
तांकांच नासली म्हजी उमेद
वाद करपांत नासलो अर्थ
ताणी पळयलो तांचोच स्वार्थ

जिवीत म्हजें हुलपतालें
धगय ताचो म्हाकाच लागतालो
आशेन पळोवंक कोणच नासलो
सोडून देव संवसारांतलो



## दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय

ऱ्शिमेपलतडच्यान' हो श्री दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय हांचो पयलोच काव्यसंग्रह वाचतना आदर्श, निती मुल्यांचें जतन जावचें म्हूण धडपडपी कविचें दर्शन घडटा. आमचे गिरेस्त संस्कृतायेचो अभिमान बाळगुपी हो कवी आयज समाजांत चलतलें मनीसपणाचें अध:पतन पळोवन सामको घुस्मटता आनी 'हें अशेंच चलत रावतलें?' असो प्रश्न करून 'जागे जावपाक' प्रवृत्त करता.

सुमार ३७-३८ कविता ह्या संग्रहांत आसपावल्यात. देवाचे आरतीन सुरू जावपी हो संग्रह दैवाचेर भाश्य करून सोंपता. तांचेमदीं आमचो देश, आमचें गोंय, गांव (खोला, चोडणां), सैम, झाडां (रूमड, निलगीरी) सण-परबो, मोग अश्या विशयां वांगडाच अस्तुरेचें दूख, सुवार्थ, राजकारण, क्रांती अश्या साबार विशयांवयल्यो कविच्यो भावनां आनी संवेदनां दिश्टी पडटात.

पयल्याच संग्रहांत साहजीकपणान दिश्टी पडपी नवखेपणाच्यो कुरवो ह्या संग्रहांत आसल्यो तरी सहजपणान मांडलेल्या विशयांत जेन्ना कवी आपणाक सतावपी खोचक मुद्दो मांडटा, तेन्ना कविच्या वैचारीक खोलायेची वळख घडटा.

– वसंत भगवंत सावंत

ISBN NO. 81-902817-5